# लिपि

## एक शास्त्रीय चिंतन




पी. जी. कामत, एम. ए.

केरळ कोंकणी अकादमीचें चोवदावें पुस्तक.

# लिपि

## एक शास्त्रीय चिंतन




पी. जी. कामत, एम. ए.

मोल : स रूपया

लिपि - एक शास्त्रीय चिंतन
(कोंकणी)

प्रथम आवृत्तिः
मेय 1986

लेखकः
पी. जी. कामत, एम. ए.

प्रकाशकः
केरळ कोंकणी अकादमी
कोचीन 682002

पूर्णाधिकार : लेखक

मुखचित्र : शरत

मुद्रण :
सारस्वत इन्डस्ट्रीस, कोचीन - 682002

मोल : स रूपया

---



# विनन्ति

लिपी विशीं करचे ह्या
शास्त्रीय चिंतनांतु खयींच
पक्षपात आयलो तरी तुमी
माका माफ करनाकात.

— पी. जी. कामत

नदर मेळय

नदरे माज्या नदर मेळय ;

चान्नें फुलतलें

मनां चान्नें फुलतलें

पद्मश्री डा. र. वि. पंडित

## माण्डावळ

# अकादमीचीं प्रकासनां

१ रघुरामायण
२ श्रद्धांजली
३ श्रीमद् भगवद् गीता
४ घालोलो घास गिळचाक सोणी
५ किरकिर
६ काण्यां झेलो
७ म्हण्यां सोरु
८ आनंदाचीं पदां
९ कथा ८३, ८४, ८५
१० कविता ८३, ८४, ८५
११ पृथिवै नमः
१२ गीत रामायण
१३ फुलां माला
१४ लिपि–एक शास्त्रीय चिंतन

आनी 'दिवटी' म्हैनाळें मुखपत्र

# दोन उतरां

कोंकणी भास उलोवपी लोक गोंयचे भायर भारतांत महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ – ह्या प्रदेशांत पसारून आसात. ते लोक तांची आवय भास कोंकणी आजय विसर्लेनात. .परंतु एक सूत्रताय नाशिल्यान कोंकणी भासेचें रूपांत फरक पडत गेलें. महाराष्ट्राचे कोंकणी समाजाचे भासेचेर मराठीचो प्रभाव पळ्ळो कर्नाटकाचे कोंकणी समाजाचे भासेचेर कन्नडी भासेचो छाप बैसुंक लागलो. तशीच केरळचे कोंकणी भासेचेर मलयाळी भासेचो भार पळ्ळो. गोयंचे कोंकणीचेर पोर्तुगीज भासेचें वजन पळ्ळें.

सतराव्या शतकांत भारतांत लिपी खातीर एक सूत्रताय नाशिल्ली. हातांनी बरवपी अक्षरांचे रूप जायतशी बदलतालो. देवनागरी, मोडी, उर्दू आदी लिपियो चलताल्यो. विदेशी लोकांक ह्यो लिपियो शिकपाक कष्ट पडताले. देकून कोंकणी उतरां आयकून तीं रोमींतुल्यान बरवन क्रिस्तांव धर्मप्रचारकानी कोंकणी शिकपाक प्रयत्न केलो आनी रोमी कोंकणींतलयान धर्मप्रचार करूक शुरू केलो. ताचो परिणाम अशी जालो की क्रिस्तांव समाज एक दोन पिळगे भीतर कोंकणीची लिपि रोमी म्हणु मानुंक लागली. कर्नाटक प्रदेशाचे कोंकणी लोकानी कन्नडी लिपींत आनी केरळचे कोंकणी लोकांनी मलयाळी लिपींतूय कोंकणी भास बरवुंक शुरु केलें. परिणाम अशी जालो की आर्य भास कोंकणीचो प्रचार तिचे निजी लिपि देवनागरीन खयंच जालो ना. कालान क्रमान लोक आवय भास कोंकणीची ठेठ लिपि 'नागरी' म्हणु विसरले.

१९६१ वर्सा गोंय स्वतंत्र जालें आनी तें गोंयकारां सयत भारतांत विलीन जालें. क्रमान गोंयची देशभास कोंकणीचें महत्व वाडलें. १९७५ वर्सा केंद्र साहित्य अकादमीन कोंकणी एक स्वतंत्र भास म्हणु मान्यताय दिल्ली. ताका लागून कोंकणी भासेची लिपि 'नागरी'च म्हणु स्वीकार जाली. आज नागरी लिपि द्वारा कोंकणी भास आनी साहित्य – हांचो विकास जाता आसा.

श्री पी. जी. कामत हाणी भारतीय आर्य भास कोंकणीची लिपि देवनागरीच म्हणु सिद्ध करन त्या नागरी लिपीचो आविष्कार आनी विकास हांचे गंभीर रूपान अध्ययन करन 'लिपि' नांवांचे पुस्तका वटेन आमचे सम्मुख प्रत्यक्ष केलां.

पुस्तकाचे प्रारभीं संसाराचे मुख्य भासांच्यो लिपीयो हांचे पासून विशद विवरण दिल्या उपरांत भारतांतल्यो भासो आनी तांच्यो लिपीयो हांची स्थिति पळेयतात. ते बरयतात —

"भारतांत पांयशें भायर भासो आसात. परंतु स्वतंत्र भारताचें संविधान बरवंचे वेळार केवल चौदा भासांक संविधानाचें आठवें वळेरींत मेळयल्यात. ··· ··· ··· ··· ··· एदी वर्सां पिरथम डा. सुनीती कुमार चाट्टरजी केंद्र साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष आसतना आठवें वळेरींत नातिल्ले सात भासांक ··· ··· ··· ··· अंगीकार दिल्लो. त्यो भासो आसात – इंग्रेजी, राजस्थानी ··· ··· ··· ··· आनी कोंकणी ··· ··· ··· इंग्रेजी लिपि रोमी मू. बाकी पांच भासांची लिपि नागरीकच साहित्य अकादमीन स्वीकारल्या."

उपरांत श्री पी. जी. कामत हांणी भारतांची प्राचीनतम लिपि ब्राह्मी आनी ताचो शास्त्रीय विकास–हांचेर चिंतन केलां आनी पुस्तकाचे उत्तर भागांत 'देवनागरी लिपिमाला' हाजे सविस्तार वर्णन केलां.

नगरी वर्णमाला हाची विकास आनी शास्त्रीय रीतीन ही लिपी शिकपाक हें पुस्तक अत्यंत उपयोगी आसतलों – हांत कांय दुभावना. श्री कामत हांगेलो हो प्रयत्न सर्वप्रकारानीय संपन्न आनी सफल जाला. कोंकणी प्रेमी हांकां हें पुस्तक चड उपयोगी जातलें आनी ते ताची तोखणय करतले अशी आशेतां.

२३-५-८६

प्रो. आर. के. राव.
(Member, Sahitya Akademi
Advisory Board for Konkani)
New Delhi.

# लिपि! लिपि! लिपि!

कोंकणी भासे पासून तुमी कोणाचेय लागि उलैतात तरि ताणी सूर्वेकच नींवगूचो एक प्रश्न हो – कोंकणी म्हळ्यार कर्नाटक भास वे? हांगा तुळु पोट्टी आसात मूं, तांगेली भास वे? ह्या प्रश्नाक तुमी जाप दीवनु जातर मागीर आयकयेत – तुमगेले भासेक लिपि आसा वे? तुमी म्हणतले – हां, आसा. देवनागरी. तावळ तो – देवनागरी म्हळ्यार? तुमी ताका सांगतले – संस्कृत, हिन्दी, मराठी बरौंची लिपि आसा मू, तीच. तावळीच चट करनु तो म्हणतलो – तुमकां स्वंत लिपि ना? हें आयकले घडेर तुमकां स्वंत घर ना, दार ना, आवस बापुस ना अशें म्हळ्या वरि दिसता कि ना?

मलयाळम, कन्नड, तमिळ, तेलुगु ह्या भासेंक स्वंत लिपि आसा म्हणु कळ्ळोलो खूपशी जाणविकाय आसलो मनिस हो तुमकां प्रश्न करता. पुण जायतें शिक्लिलें-वाचिल्लें मनिसांकय असले विषयांत माहिती ना.

संसारांतु हजारानि भासो आसात. जाल्यार हाजारानि लिपियो नात. सगट भासेंक तांगतांगेली स्वंत लिपि ना. हें स्वाभाविकच. हांतु कांय अजाप ना. देखिकः इंग्रेजी बरौंची लिपि आसा मू. ती त्या भासेंचि स्वंत न्हय. पश्चिम युरोपांत उलौंच्या इंग्रेजि, फ्रेंच, स्पानिश, पोर्तगीज, जर्मन, डच, नार्वीजन असले सगट भासेंक मेळौन एकीच लिपि. रोमन अथवा रोमी म्हणु तिका नांव. ही निजच लैटिन भासे लिपि. आनी लैटिन भास ही रोमन लोकांली आसली. क्रि. पू. दोन शताब्दी धरनु ही प्रचारार आयली. रोमन लिपीय प्रचार पावलीं. मागीर क्रि. पांचवीं शतींतु तें साम्राज्य हूण आक्रमणकारींचे हातान घूळि जालें. जाल्यारूय ती संस्कृति, भास आनी लिपि वांचली. रोमा चक्रवर्तीन क्रिस्त धर्म घेतल्ले उपरांते लैटिन भास कैथलिक धर्मांची भास जाली. तशी त्या

भासेचो प्रभाव यूरोपांत जिवो राबलो. एदे शेकडें उपरांते जायते ऐतिहासिक कारणांक लागून यूरोपांतल्यो आधुनिक भासो जल्मा आयल्यो त्या त्या भासे लोकानी तांगतांगेले भासेक वेगवेगळ्यो लिपियो सोदल्यो नात. मुकारीच उबी राबली रोमी लिपीक हात दीवनु ताणि लागि काळ्ळी. तशी आज पश्चिम यूरोपाचे दजना भायर भासेंक सुगट मेळनु एकीच रोमी लिपि आसा.

यूरोपांतलीच अनी एक प्राचीन सांस्कृतिक भास आसा, ग्रीक. ह्या भासेक वेगळीच लिपीय आसा. रोमी अनी ग्रीक लिपींक परस्पर संबंधूय आसा. जाल्यारूय ग्रीक लिपीक रोमीचो तितलो प्रचार पुरातन कालाक मेळ्ळो ना. पंद्रावे शोकडचांतसून सगळे यूरोपांत फुलेल्या "रेनोसांस" नांवांन प्रसिद्ध जालेल्या नवोत्थान कालाक यूरोपांत रोमी संस्कृती वरी ग्रीक संस्कृतीचोय प्रसार जालो. ताजान ग्रीक लिपीकय प्रचार मेळ्ळो. आज गणितांत विज्ञानांत प्रयोग करनु येवचीं आल्फा, बीटा, गामा, डेलटा असलीं अक्षरां ग्रीक लिपीचीं.

पूर्वी यूरोपांत रूस आनी शोजारचे स्लाव जनांचे भासेंक "सिरिलिक" म्हणू नांव आसची एक लिपि प्रयोगार आसा. ही ग्रीक लिपींतल्यान थोडे थोडे परिवर्तन करनु त्या देशाचे विद्वांसानि त्या त्या भासेंक अनुरूप जावनु क्रि. णवावे शतींतु तयार केलेली. अशी संपूर्ण यूरोपांत केवल तीनीच तीन लिपियो आसात. साहित्य भासो दजना लेकानय आसात. भासेंक स्वंत लिपि जाय म्हळ्ळेलें कांय एक अनिवार्य सिद्धांत न्हय, हें हांतुल्यान स्पष्ट जाता मू.

पश्चिम एशिया आनी आफ्रिका देशांतुलीय स्थिति असलीच. क्रि. आटवे शतीं लागून इस्लामाचे प्रचारा पासून अरबी भासय लिपीय प्रचार पावलीं. जयिं जयिं खुरान पावलें थंय थंय अरबी भासय लिपीय पावलीं. आफ्रिकेसून इंडोनेशिया मेरेन हाजो प्रभाव देकयेत. हांगाचे जायते भासेंक अरबी लिपि प्रयोगार आसा. पश्चिम एशियांतुलीच आनी प्रमुख लिपि हीब्र. हीब्रू आनी अरबी लिपियांचे मूळ एकच.

आनी चीन देशांतूलि स्थिति पळेयात. थांगा भासो जायत्यो आसात, जाल्यार लिपि एकीच. मात्र न्हय एकच चीन लिपी बरयलेलें भिन्न-भिन्न

रूपान वाचतले; म्हणु अर्थ एकच आसतलो.

संपूर्ण उत्तर आनी दक्षिण अमेरीकेंतु आसल्या समस्त भासेंक एकच रोमन लिपि प्रयोगार आसा. ह्या सगट भासेंचेर यूरोपिय प्रभाव पातळेल्या फल हें. यूरोपियन जनांनि थांगा गेल्लल्या कालाक रेड इंडियन, मया, इंका, अजटेक ह्यो प्रशस्त विकसित संस्कृतीयो थांगा आसल्यो. तांका विकसित भासोय लिपियोय आसल्यो आसका.

जाल्यार नृशंस यूरोपियन लोकांचे पांयांमूळांत ह्यो संस्कृतियो चकनाचूर जाल्यो. आतां त्यो जीवित नात. आनी ही संस्कृति भास, लिपि मिगेली म्हणूक एक मनिस पुतूय आज ना. देकून संपूर्ण अमेरिकेंतु एक रोमी लिपीच आज ज़ीवंत आसा अशी लेकयेत.

भासेंचो लिपींचो हो प्रपंच मनां दवरनु भारतांतुली स्थिती पासून मुकारि विचार करयां.



# लिपि भारतांत

आमी गेल्ले निबन्धांत देखलें कि सगळे पश्चिम युरोप आनी अमेरिकेंत रोमी लिपि चलता. पूर्वयुरोपाचे स्लाव भासेंक सिरिलिक प्रचारार आसा. रोमी लिपी प्रचार आशिल्ले कडे रोमन – क्रिस्त संस्कृतींकय सिरिलिक प्रचार आशिल्ले कडे ग्रीक – क्रिस्त संस्कृतींकय प्रामुख्य आसा. तशीच इस्लाम प्रचारार आयले देशांत अरबीक प्रामुख्य आसा. ह्या तिनीय उदाहरणां लागून संस्कृती आनी लिपीचे मद्दें अभिन्न संबंध आसा अशो अनुमान करयेत मू.

आतां भारतांत आशिल्या लिपींपासून विचार करयां. आमगेले देशांत पांयशें भायर भासो आसात म्हणु सांगतात. ह्या वैविध्यां पासून भाषा शास्त्रीनी सांगचे आयकल्यार कोणाकय आखांत येतलो. जाल्यार ह्या वैविध्या भितरच्या एकवटाची एक सुवर्णरेखा आसा. ती पळेतल्याक दिकू येता.

गीतेंतु भगवंतान म्हळ्यावरि –
अविभक्तं विभक्तेषु
तज्ज्ञानं विद्ध मामकं.

ह्या वैविध्याचे वेगळेपणां भितरच्यान जो एकत्व दिकता तोच सत्यदर्शी. वैविध्य दिकून आखांतांत पडचो आनी झगडीं घालचो – घालोंवचो अखंड सत्य दिकना; मात खंड सत्यांत पडून गोंदळता, घुसपता, दुसरयांक घुसपायता आनी घुसमुटायता. आसो.

स्वतंत्र भारताचें संविधान बरौंच्या वेळार केवल चौदा भासेंक संविधानचे आटवे वळेरींत मेळयल्यांत. ह्यो भासो खूबसो साहित्यिक विकास पावलेल्यो. हांतु बारा भासो एकेक प्रदेशाच्यो. संस्कृत आमगेले संस्कृतीची स्रोत भास. बाकी उर्दु उत्तर भारतांत शिवडल्ली इस्लामी संस्कृतीची भास. तिका आतां पाकिस्थानाची राष्ट्रभास जावनु अंगीकार मेळ्ळा.

आटवी वळेरींत आयलेल्यो चौदा भासेंचीय बरपां भारताचे रूपयें नोटाचेर पळवयेत. नोटाचे एक तांतु ताजें मोल इंग्रेजीनय हिन्दीनय बरयलां. उपराटे तांतु हिन्दी शिवाय बाकी तेरा भासेनी बरयल्यं. त्यो भासो क्रमान ह्यो – असमी, बंगाली, गुजराती, कन्नड, कश्मीरी, मलयाळम, मराठी, ओडिया, पंजाबी, संस्कृत, तमिळ, तेलुगु आनी उर्दु.

नोटावयलीं बरपां तारतम्य करनु पळेल्यार संस्कृत, हिन्दी आनी मराठीची लिपि एकीच देवनागरी म्हणु कळता. गुजराती नागरी वरीच. उँचार शिरोरेखा ना म्हणु मात्र. आनी अक्षरांचे सुरुवेक आखेरेक स्वल्प अलंकार आसा; तितलेंच. काश्मीरी आनी उर्दु लिपियो सारक्यो आसात्; कारण त्यो अरबीच. असमी आनी बंगाळी प्रायश, समान आसात. बाकी लिपींचो परस्पर संबंध स्पष्ट दिकूं पडना.

भारताचें संविधान लागू जावनु एदे वर्सांनि पार्लमैंटांत सिन्धीक अंगीकार दिलो आनी आटवे वळेरींत तिजो प्रवेश करयलो. ही भास अरबीनय नागरीनय बरयतात म्हण आयकलां.

ह्याजेय उपरांते, एदी वर्सां पिरथम डा. सुनीतिकुमार चाटर्जी केन्द्र सासित्य अकादमीचो अध्यक्ष आसताना आटवे वळेरींत नातिल्या सात भासेंक साहित्य अकादमीन प्रोत्साहना खातिर अंगीकार दिलो. त्यो भासो आसात – इंग्रेजी, राजस्तानी, डोगरी, नेपाळी, मैथिली आनी कोंकणी. इन्ग्रेजीची लिपी रोमी मू. बाकी पांच भासेंची लिपि जावनु नागरीकच साहित्य. अकादमीन स्वीकारल्या. अशी पळेल्यार भारतांतुली मुख्य लिपी देवनागरी. जाल्यार वेगळ्योय जायत्यो लिपियो आसात ज्यांचो प्रयोग त्या त्या भासेचे कोटानकोटि लोक करतात. भारतांतुल्या ह्या विविध लिपींचे वरस्पर संबंध समजूंक जाय तरि इतिहासा जनेलांतुल्यान पळेल्यार पुरो.

अमगेले देशाची प्राचीनतम लिपि सिंधु नदी तट संस्कृतीची. पांच हजार वर्सां पिरथम आशील्या त्या संस्कृतीक स्वंत भास आनी लिपि आशिल्लीं. त्या लिपीचीं अक्षरां मोहंजोदारो आनी हरप्पा ह्या जागयांत पुरातत्व वैज्ञानिकांनि केलेल्या उत्खननापासून मेळ्यांत. थांगा एदयो मुद्रा मेळयो आसात. त्या मुद्रेंचेर मृगांची देवतेंची रूपां लागी अक्षरां दिसचीं

थोडीं रूपांय आसात. त्या अक्षरांचे अध्ययन करूंक जायते वैज्ञानिकानि प्रयत्न केल. जाल्यार तांकां आज मेरेन साफल्य मेळ्ळे ना. ताका एक करण हें कि त्या संस्कृतीचे भासे पासून कोणाक कांय कळना.

मोहंजोदारो – हरप्पा संस्कृति ऋग्वेदापाशि फुळ्ळी, अशी इतिहासकारांले मत. वेदकालाची लिपि खंचि, कसली? त्या विषयांतूय आज जाणवीकाय ना. वेदां फुडली लिपि आसा; भास कळना. वेदाची भास कळता; लिपि ना. कसलो खेळ हो, पळेयात.

मागीर अनेक शताब्दी उपरांते क्रि. पू. तिसरे शोकड्यांत अशोक सम्राटाली धर्मलिपि आमचे मुकार येता. अशोकान बौद्ध धर्माची दीक्षा घेतले नंतर भगवंतालो. उपदेश जनांक शिकौंचे खातिर एकेक कडे पाषाणा दोंगरांचेर आनी स्तंभांचेर ते उपदेश कोरांन्तयलो. त्या बौद्ध सूक्तांची भास पाली. तांचे लिपीक ब्राह्मी म्हणतात. ह्या लिवीची पूरी जाणकारी इतिहासकारांक मेळ्य. ह्या लिपीक मोहंजोदारो – हरप्पा लिपीकडे कांय संबंध आसा की ना, खंडित सांगूक जायना.

अशोकाले धर्मलिपीचें नांव ब्राह्मी म्हणु सांगलें मू . त्या कालानंर भारतांत जालेल्यो सगट लिपियो तांतसून निकास घेतल्यो; हें आज स्पष्ट जालें आसा. दिल्ली, हैदराबाद, मद्रास, तिरुवनंतपुरम असले शारांत आशिल्य पुरातत्व म्यूजियमांत ह्या लिपींचो विकास स्पष्ट करचीं चार्टी वरल्यांत. तीं पळेल्यार भारतांतल्या वेगवेगळ्यो दिसच्यो समस्त लिपींचो परस्पर संबंध मनां करयेत.

आज ज्या लिपीक आमी देवनागरीं अथवा नागरी म्हणतात ती ऋति आटवे शतमानांतसून दिश्टी पडता. नागरीक विशेष आशीलेंय अन्य लिपींक नातिल्लेंय एक लक्षण आसमू. शिरोरेखा. हो माथ्या बरो ब्राह्मीक ना आशिल्लो. क्रि. पांचवें शेकड्यांत शिरोरेखा आशिल्ली दिश्टी पडता. देवनागरी आटवे शतमाना धरनु उत्तर भारतांतु प्रचार पावली. त्या कालाक तिजेंय आनी एक रूप दक्षिण भारतांत आशिल्लें. हो रूपभेद कशी आयलो? हाका एकीच जाप. अक्षरां बरौंचे शैलींत वेगवेगळे प्रदेशांचे लोकानि तांगतांगेले रुचिक लागून ही अनेकता आयली. एकच मूळ अक्षर वेगवेगळे रीतीन बरयले पासून संत संत ताजी शक्त सूरतच विगड जावन

गेली. करेन्सी नोटारीच क, र, य असलीं अक्षर पळेयात, स्पष्ट कळतलें. उत्तर नागरींसून आयची बंगली, असमी, ओडिया, पंजाबी असली जायत्यो लिपियो देशकालानुसार उत्पन्न जाल्यो. तशीच दक्षिणांतल्या नागरींतुल्यान तेलुगु, कन्नड, तमिळ, मलयाळम असल्यो लिपियोय जाल्यो.

ह्या ब्राह्मी – नागरीचो विकास मात भारतांत सीमित आशिल्लो म्हणु लेकशात. लंका, बर्मा, सयाम हांगाच्यो लिपींकय नागरि लागि संबंध आसा. जंय जंय भारताची संस्कृती पातळेलौ थंय थंय संस्कृत, पाली ह्यो भासोय ब्राह्मी, नागरी लिपियोय गेल्यो. लिपीचो सांस्कृतिक संबंध जो रोमी, सिरिलिक, अरबी ह्या लिपीं विशीं आमी देखलो तोच हांगाय देखयेत.

भारताचे पश्चिमोत्तर कुशीक आशिले प्रदेशांत अशोकालीं धर्म लिखितां एक विगड लिपीन देखू येतात. ह्या लिपीक खरोष्ठी म्हण नांव. हाजीं अक्षरां खर वा गाडवाचे ओंठा मणकी आशिल्लीं देखून हें नांव पडलें अशि इतीहासकार म्हणतात. खरोष्ठी लिपि अरबी उर्दु लिपींवरि उज्यासून दाव्यान बरयताले. हांतुल्यान भारतांत आज प्रचार आसची एकीय लिपि उत्पन्न जालेली ना.

भारतांत जयत्यो लिपियो पळोवनु आंमी आखांतांत पडचें नाका. एकच कुळांत भावां भावांली भुरगीं जावनु, मागीर तांचेरीय भुरगीं जावनु, कुळाराचो प्रसार जाल्यावरीच ह्या लिपींचोय स्थिती.



# देवनागरी

आमी देवनागरी विशीं हांगा सांगलें. ह्या लिपीक तें नांव कशी पळ्ळें? त्या नावांचो अर्थ कसलो? ह्या विषयांतु जायते मतभेत आसात. कोण एक म्हण्टा कि जशी संस्कृत भासेक आमगेले पूर्विकानि तिजे दिव्यत्वाचे सूचने खातिर "देवभास" नांव दिलें, तशीच त्या भासेचे लिपी लागि "देव" हें नांव जोडलें. तांतु दिव्यत्वाची सूचना आसा. सगटांक तांगतांगेली भास आनी लिपि अशीच देवान दिलेली म्हळ्यां. भासेचे लिपीचे विशेष गुणगणां पासून चिंतन केल्लेले ऋषि–मुनि आश्चर्यचकित जातले. अशी अनुभव जालेल्यान ताणि भासेक आनी लिपीक दिव्य म्हळचां जावयेत.

नागरी ह्या शब्दाचो अर्थ आसा 'परिष्कृत'. संस्कृतांतु 'नागर' शब्दाक कलावंत आनी संस्कृति संपन्न अशी अर्थ आसा. आतां हीं दोनीय आशयां जोडल्यार देवनागरीचो अर्थ कितें जालो? दिव्यत्व आशिल्ली आनी संस्कृति-संपन्न कला-विद्यवंत मनिषांली लिपि देकून तिका देवनागरी नांव पळ्ळे अशी म्हळचार जालें.

ह्या लिपीचो प्रचार नागर ब्राह्मणानि केलो. त्या कारणान हें नांव पळ्ळें आशीय मत आसा. आनी कोण एक सांगता कि हीं लिपि-चिह्नां तांत्रिक क्रियेंतुलीं 'नागरा' वरि आसात; त्या पासून हें नांव पळ्ळे.

ही लिपि आटवे शताब्दींसून प्रचार पावली म्हणु सांगलें मू. त्या कालाक रायाक देव म्हण्टाले. हर्षाक हर्षदेव म्हण्टाले. तशीच विक्रमादित्य रायाक विक्रमदेव म्हण्टाले. संस्कृत नाटकांतु रायाक 'दव' म्हणुय राणीयेक 'देवी' म्हणुय संबोधन आसा. 'देव' राय जाल्यार 'देवनागर' ह्या शब्दाक राजधानी म्हणु अर्थ जाता मू. तावेळ राजकार्याक राजधानींतु प्रचार आसची लिपि म्हणु देवनागरीचो शब्दार्थ जालो कि ना? अशी पळयल्यार, आटवे शताब्दींतु ना ताजे लागसार भारतांतु राजकार्याक आनी संस्कृतिसंपन्न विद्यावंत मनिसानि प्रचाराक प्रयोग करनु येंवची लिपि ही देवनागरी अशी अनुमान करयेत.

देवनागरी लिपींतु परिष्कार हाडून ती सरळ करच्या खातिर जायतो प्रयत्न जालो आसा. तांतु स्व. काका साहब कालेलकरांलो प्रयत्न भो प्रशश्त. ताणि दिल्लेले आदेशाक लागून इ, ई, उ, ऊ, ऋ, ए, ऐ ह्या अक्षरां बदलाक अि, अी, अु, अू, अृ, अे, अै हीं अक्षरां आयलीं. ही सुधारण वर्धा हिन्दुस्थानी प्रचार सभा, सर्वसेवा संघ, नवजीवन प्रकाशन असले संस्थेंचे कृपेन प्रचार पावली. गोंयांतु बोरकर, रवीन्द्र केळेकर इत्यादि देशप्रेमियांले प्रयत्नान ही सुधारणेक आदर मेळ्ळा. गोंया थाकून प्रकाशन करच्या पुस्तकांतु ही अक्षरां पळवयेत. जाल्यार भारत सरकारान हो परिष्कार स्वीकार केलो ना.

देवनागरी लिपि भारतांतुल्या सगट भांसेंक लायक करचे खातिरीय थोडो – भो प्रयत्न जाला. देखीक मलयाळम भासेंतुल्या ह्रस्व ए (എ) ओ(ഒ), ०, ৶, ०० ही अक्षरांय बरौंचे प्रकारि देवनागारींतु परीष्कार हाडून परिर्वधित देवनागरी म्हणु नांव दिल्या केन्द्रीय हिन्दी निर्देशालयान ह्या लिपीचें स्वरूप स्पष्ट करचीं चार्टीं उजवाडायलेलीं आसात. भारतांतुल्या सगट भासें खातिर एक अतिरिक्त लिपि जावनु ह्या परिर्वथित नागरीचो प्रचार आज सुरू जाला. एदीं वर्सा फुडे धरनु 'नागरी लिपि परिषद' ह्या नावांन एक संस्था कार्य करता. नागरी लिपिचो प्रचार करप ह्या संस्थेचो मुख्य उद्देश्यु.



# शास्त्रीय विचार

आमी लिपी विशीं शास्त्रीय चिंतन करतात. हांतु "शास्त्रीय" म्हळ्यार कितें? शास्त्र म्हळ्यार? पंडितानि भट्टांनि आमकां बरें वायट सांगचें आसा मूं तें व्हय शास्त्र? श्रुतींत स्मृतींत पुराणांत अशीलें म्हणु व्हय हाजो अर्थ? न्हय कदापि न्हय. शास्त्र म्हळ्यार वस्तुस्थितीक आधार करनु आशीलें आधुनिक सायन्स. सायन्स, सायन्टिफिक – ह्या अर्थान शास्त्र, शास्त्रीय ह्या शब्दांचो प्रयोग आमी करतात. सायन्स अथवा शास्त्राचो एक मुख्य गुण हो कि ताजो आधार यथार्थ वस्तु. जें फकत काल्पनिक ऊहापोहाचेर आधार करता ताका शास्त्र म्हणनात. एक दुसरो गुण शास्त्राचो हो कि तांतु करचें निगमन एक व्यक्तीक मात्र आँ–शीलें न्हय. तें कोणाकय अनुभव करयेत ज़ालेलें. सार्वजनिक देखूनच शास्त्राचे निगमन व्यक्तिनिष्ठ न्हय; वस्तुनिष्ठ. यथार्थ वस्तूंक आधार करनु कोणाकय अनुभव करूक साध्य आसले चिंतनाक शास्त्रीय चिंतन म्हण्टात. शास्त्रीय चिंतनांत पक्षपात ना. मेगेलें तुगेलें ना. हें माका मात्र अनुभव करूंक आशीलें रहस्य. तूं तें जाण जावचाक लायक न्हय – असली चिंता सायन्सांत ना. लिपी विशीं तशी आसचें शास्त्रीय चिंतन आमकां जाय. केवल ही लिपी मेगेली, ती सर्वांग सुन्दर आसा, देकून तिकाच समस्त लोकान माथ्यार दवरनु नांचका अशी सांगप शास्त्रीय न्हय.

लिपी विशीं शास्त्रीय चिंतन करुक एदे पारिभाषिक शब्द कळचे आसात. तांतु वर्ण, लिपि, लिपिचिह्न, अक्षर – हे मुख्य. ह्या शब्दांक भाषाशास्त्रांत दिवचो सूक्ष्म अर्थ कळ्यारीच आमकां शास्त्रीय चिंतन करूंक जातलें.

भास म्हळ्ळेलें विचार – विनिमयाचें एक साधन म्हणु आमी जाण मूं. माजे मनांत जो विचार येता तो प्रकट करूक हांव उलयतां. जें आमी उलयतात ताकाच भास म्हण्टात. एक बायल घरकडे बेसल्यां. सांजे स वरां जलीं. घोव आतां वरे आयलोना. कित्या? बायले मनांत हो विचार

येता. ती फोण करता अशी – "हलो! तुमी व्हय? वरां स जालीं मु? कितें आयले ना? पांचच वरार पांवका म्हणु हांव सांगलेलें विसरनु गेले कि...?" हांतु शब्दांचो एक प्रवाह आसा. बायलेचे मनांतुल्या विचाराचे विकाराचे प्रवाहाक अनुसरून शब्दांचो प्रवाह येता आनी तो प्रवाह घोवाचे कानार पळ्ळे घडेर ताजे मनांत बायलेले मनांतुलो विचार विकार पांवतात,

शब्दांचो हो प्रवाह आमी शास्त्रीय रीतीन विश्लेषण केल्यार आमकां शब्दांचे सान सान कुटके मेळतले. फुलाचे भीतर कसकसले अंश कशी कशी आसांत म्हणु कळचे खातिर आमी फुलाचे डिसेक्षन करतात मूं, तशीच हें ऊंचार बायलेन उल्लयलेलें अशीच विश्लेषण केल्यार हलो, तुमी, व्हय... असले कुटके मेळतले. त्या कुटक्यांक मागीरीय कातरयां. त्या शब्दां पशि सान सान कुटके मेळतले. 'तुमी' हे शब्दांसून त्, उ, म् ई अशी कुटके मेळतले. "हलो" हांतु ह्, अ, ल्, ओ हे कुटके मेळतले. अशी मेळ्ळेले कुटक्यांक मागीरीय कातरयात व्हय? ना. तावेळ ऊंच मेळ्ळेले त्, उ, म्, ई, ह्, अ, ल्, ओ – हे सगट सानांत सान कुटके. शब्दांचे सानांत सान अथवा न्यूनतम (minimal)कुटक्यांक वर्ण म्हण्टात. तू, उ, म्. इत्यादि भासेचे 'वर्ण' उलौंचे भासेंतु वर्णांचो एक प्रवाह आसा अशी सांगयेत. भासेचे प्रवाहाचे न्यूनतम अंशाक 'वर्ण' म्हण्टतात. आमी वर्णस्वीकार करचें इंद्रिय कान.

उंचार, बायलेन जें उलयलें, तें बरौन धाडयेत मू. ती कागतार पेनान वा पेनसिलान अशी-तशी नीट-ओरें उंचार-खालाक सान-व्होड रेखो बिन्दु घालनु तें कागत धाडलें आनी घोवान तें पळयलें म्हणु आसो. तो तें वाचता. तावेळ जो वर्णप्रवाह तिणे उलयले घडेर कानां पडून ताजें मनां पावता, तोच हे बरप दोळ्यानी पळयले घडेर ताका मेळता आनी संदेश मनां पांवता. त्या कागतार ज्यो रेखो, बिन्दु इत्यादि घालता ताका लिपि म्हण्टात. वर्ण कानार पडता. लिपि दोळ्यानि पळयतात.

लिपि म्हळ्ळेली रोडार आशीले ट्रेफिक साइनां वरीच. एक साइन देकल्यार आमकां कळता, कि हांगा उजव्यान घूंवका. दुसरयान कळता कि हांगा हंप आसा, देखून जाग्रत असो. एक तिसरें कळयता कि हांगा दाव्यान स्कूळ आसा; भुरगीं खयींय धांवनु येतीत. अशीच आश्शीली चिह्नां लिपितुय आसात. तीं देखले घडेर आमचे मनांत एकेकाक अनुसरून विचार येतात.

जाल्यार रोड साइन आनी लिपीचिह्नां मद्दें एक व्होड फरक आसा. रोडचिह्नांतु थांगा परिस्तितींचें चित्रण आसा मु. उजव्यान घुंवप, दाव्यान घुवप, लेवल क्रास, हंप, स्कूळांत धांवन वचो भुरगो – असले ट्रेफिक चिह्नांत परिस्थितिचें चित्र आसात. जाल्यार लिपीचिह्नांत तशी ना. क्, च्, ट् असले देवनागरी लिपी चिह्नांत अथवा A, B, C, असले रोमीचे लिपीचिह्नांत कसले परिस्थितीचें चित्र आसा? कांय न. उलौचे भासेक आनी लिपींतुले हे चिह्नांचो संबन्ध रोडसाइनांतुल्यावरि चित्रात्मक आनी नैसर्गिक न्हय; तो कल्पित आनी यादृच्छिक. बसांचेर आसल्या "फस्ट एयड" बाक्सारि अथवा अस्पतालां मुकार धवें वृत्तां भितर तांबडे क्रूसाचें चित्र आमी देखलें आसा मू. तें कसल्या चिह्न? तें ट्रेफिक साइना वरीचे न्हय. विविध प्रदेशांचे सर्वे चित्रांचेर आसचें क्रूस इगर्जीचें चिह्न आसा. जाल्यार फस्ट एयड आनी तांबडो क्रूस हांचो कसलो संबन्धु? हें चिह्न रेडक्रास सोसाइटीन चिकित्सा सेवेचें सूचक जावनु निश्चय केलेलें. हें रोड साइनांवरीचें परिस्थिती चित्र न्हय. हांतु एक विशिष्ट अर्थाचो आरोप केला. तें जें जाण तेंच जाण. असले चिह्नांक "सिंबल" अथवा प्रतीक म्हण्टात. भारतीय तत्वशास्त्रांतु "ॐ" हें परमात्माचें प्रतीक, हांतु परिस्थितीचें चित्रण ना. जे अमगेले धर्मान तत्वशास्त्रान परिचित आसात, तांकाच ॐकाराचो अर्थ कळता. असले आरोपित अर्थांचे सूचकाक प्रतीक म्हण्टात. लिपींतुलीं चिह्नां प्रतीकात्म; तीं परिस्थितीचीं चित्रां न्हय.

लिपीचिह्नांक अक्षर म्हणप आमगेली पुरातन रीति. एक भासेंतुल्या वर्णांचे संपूर्ण वळेरीक वर्णमाला मण्टात. तशीच एक भासेंतुल्या लिपिचिह्नांचो संपूर्ण वळेरीक लिपिमाला आथवा अक्षरमाला म्हण्टात.

वर्ण आमी आयकतात. अक्षर चोयतात. वर्णाचे इन्द्रिय कान. अक्षराचे इंद्रिय दोळे. वर्ण आनी अक्षराचो संबन्धूय यादृच्छिक प्रतीकात्मक. हो विचार मनांत दवरनु मुकार लिपिमाले पासून विचार करयां.



# भासेचे दोन प्रकार

उलौवप आनी बरौवप – हे दोन प्रकार भासेन विचार विनिमय करपाचें. आमी उलौंचें आयकतात आनी बरैलेलें पळैतात. हे दोनीय प्रकार आमी स्वीकार करचीं इन्द्रियां वेगवेगळीं. उलयलेलें आयकूक कान आनी बरैलेलें वाचूक दोळे. आनी हे दोनीय प्रकार उत्पन्न करचीं अवयवांय भिन्न–भिन्न. आमी उलैतात तोण्डान; बरैतात हातान. उलौंचें भासेचे न्यूनतम अंश वर्ण; आमी फुडेचे निबन्धांत देखलें.

भासेचे हे दोनीय प्रकार मनीषाले इतिहासांत केदाणा आयले, कशी आयले आनी तांचे महत्व कितें — ह्या विषयार आतां चिंतन करूंया.

मनिश आनी मृग – हांचो फरक कसलो? मनिष उलैता आनी मृग उलैना – हो एक मुख्य भेद. Man is a talking animal— मनिष हो उलौचे मृग – असी वैज्ञानिकानि म्हळचां. कोणय निंगीत – मनिषान उलैल्या वरीच सूणें भोंकता; माजर म्याऊं म्याऊं करता; गाय हांबेता; बकडी में-में करता – हें सगट उलौंचें वरीच मु; मागीर कसले हें फरक ? आसा, व्होड फरक आसा. मृगय मनश्या वरीच सब्द करता जाल्यार शब्दांचे प्रकारांतुय अर्थसूचनेंतूय खूब अंतर आसा. मृगाचे सब्द भौ परिमित मनश्यालें अपरिमित. आनी त्या सब्दांनी मनीसान प्रकट करचे विचार विकार कितले विविध आनी विचित्र! मृगांचे सब्दांत मनश्यांले सब्दांचे वैविध्य ना. वैचित्र्य ना. अर्थव्याप्ती ना. वेगवेगळे सन्दर्भारि गायचे हांबेवप वेगवेगळे तराचे जाल्यारीय हांबेवच्याचे अर्थ तितलें परिमित आसात! आनी मनिसाले सब्दांची प्रकट जांवचे अर्थ, भाव, विकार हांची सीमा खंयि? मनश्याले मनुष्यत्वाचो आरंभूय ह्या उलौंचे शक्तीचे विकासाक आधार करनु आसा म्हणु परिणामवादी वैज्ञानिक सांगतात.

परिणाम सिद्धांताचे प्रमाणे, मृग जेन्ना माक्शीचे दोन पांयार राबलें

तेन्नाच मनिसपणाचो विकास सुरु जालो. दोन पांयार उबें राबलें तावेळ ताजे श्वासकोशांत चड प्राणवायु चडलो; ताज्यान ताजी शक्ति चडली. मुकावेले पाय स्वतंत्र जाले मु. ते ही शक्ति प्रकट करूंक लागलेले हात जाले. ताज्यान ताका चड चड अनुभव मेळेले, तशी तागेले मस्तिष्काक विकास जालो. ही विकासाची एक वाट.

उबो राबून श्वासकोशांत चड प्राणवायु मेळेल्यान आनी एक प्रयोजन जालें. तागेले वाग्यंत्रान उत्पन्न करचे शब्दांत वैविध्य आयलें. आनी मनांत येंवचे विचाराचे बैविध्याक अनुसरून साद घालेली रीतीय ताका स्वाधीन जाली. ही विकासाची दूसरी वाट.

तशी चार पायांचे मृग दोन पायांचो मनिस जालेल्यान तागेले जीणांत कसकसलो फरक जालो, पळेयात. एकतांतुल्यान कर्म विकास जालो तरि दूसरे तांतुल्यान अभिव्यक्ति विकास जालो. ह्या दोनीय तराचे अभिवृद्धीनच संस्कृतीचो जन्म आनी विकास जालो. हातान करचें कर्म आनी तोंडान करची अभिव्यक्ती ह्या दोनीय विकासापासून मस्तिष्क विकास घेता आनी त्या विकासा पासून कर्मविकासूय अभिव्यक्ती विकासूय जाता. अशी हात, वाग्यंत्र आनी मस्तिष्क हांचो परस्पर गहन संबंधु आसा. जयि हातान कर्म ना थयि मस्तिष्काक विकास ना आनी थांगा भासेचोय विकास ना. भासेचो विकास म्हळोलो एकांतिक निरपेक्ष न्हय. सामाजांत कर्मविकास जाय; ताजानच मनोविकास जातलो. ह्या दोनींय विकासांचेर आधारसून भासे विकास जातलो. हात, वाग्यंत्र आनी मस्तिष्क हीं तीन मनश्याले सांस्कतिक विकासाचे शारीरिक आधार आसात.

सब्द घालपाचे वा शक्तीचो विकास मनिसाले विकासाचो एक प्रधान पावडो. ह्या शक्तीचे अंतरान मनिस मृगां थकून वेगळो जालोलो, आमकां अनंत विचार, अनंत विकार आनी मनोभाव प्रकट करची शक्ती ह्या उलौंपांतुल्यान मेळचा. ही शक्ती अनंत. देखून आमी उलौंचे शब्द, वाक्य आनी प्रकार अपरिमित आसात. जाल्यार, ह्या अपरिमित वाक्यांचो आधार अपरिमित न्हय? न्हय, भौ सीमित.

आमी फुडेचे निबंधांत देखलें कि वाक्य विश्लेषण केल्यार ताजे कुटके शब्द मेळतात आनी ते शब्द विश्लेषण केल्यार क, च, ट आदी वर्ण

मेंळतात. एक भासेंत कितले वर्ण आसात? संसारांत हजारानि भासो आसात. एकेक भासे समाजांतुल्या एकेक मनिसान उलौंचे लक्षान लक्ष वाक्यां आनी शब्द आसात. एकभासेचे विश्लेषण केल्यार कितले वर्ण मेळतले? वैज्ञानिकानी देखला कि एक भासेंतु ऊण्यान ऊणे तीस आनी चडान चड पञ्चावन वर्ण आसतले. अशी तीस-चालिस-पञ्चावन वर्णानि संसारांत आशीले सर्व मनिष उलौनु विचार विनिमय करतात. हांतुसून स्पष्ट जाता कि उलौंचे भासेचे अपरिमि शक्तीचो आधार भौ परिमित वर्ण.

हें एक आश्चर्य कि न्हय? असीमाक ससीमान मेजचे ही शक्ति पळौन आमगेले पूर्विक विस्मय पांवतले. देखून च तागी भास एक दिव्य दान म्हणु सांगलें. ह्या दिव्य भासेचे पासून मौलिक चिंतन केलेल्या पूर्विकांक ताणो मुनीची पदवी दिली. देवभास संस्कृताचें व्याकरण केल्लोलो पाणिनी हो मुनी आनी ताजेर महाभाष्य बरैलोलो पतंजलि होवय मुनी. मात्र न्हय, भासेचे आधार जालेल्या सरस्वतीक नागदेवी म्हणु कल्पना करनु आमी नमन करतात.

अ, इ, ड, क, च, ट इत्यादी जे वर्णानि भास निर्माण जाल्या, ते वर्णाचो एक खाशेलो गुण आसा. तो समजूक आनी उडगास दवरूक जाय. वर्णांतु कांय अर्थ ना; तो निरर्थक जाल्यार वर्ण एक विशिष्ट क्रमान आयले घडेर शब्द वा वाक्य जाता. शब्द आनी वाक्य सार्थक. द+ए+व हे वर्णक्रमान 'देव' हो शब्द जालो. तो सार्थक आसा. हेच णर्णांचो क्रम व+ए+द जाल्यार अर्थ बदललो; 'वेद' जालो. अशीच इंगीशांतुलें उदाहरण काडात ड+ओ+ग – डोग (DOG) ग्+ओ+ड – गोड (GOD) हांतु थकून व्यक्त जाता कि वर्णांत अर्थ ना; विशिष्ट वर्णक्रमान सार्थक शब्द जाता. गणितांत १, २, ३, ४, ५, ६, ७, ८, ९, ० ह्या धा संख्येनि अनंत संख्यो बरौंचे वरीच भासेचे ह्यां परिमित वर्णानि अनंत शब्द आनी वाक्य आमी उलैतात.



# उलौवप आनी बरौवप

आतां उलौवप आनी बरौवप हांचें मद्दें कसलो संबंध आसा, पळौवयां. उलौचीं भास पिरथम जालेली? कोण एक सांगतलो कि हांतु संदेहाक करणाच ना. पिरथम उलौंची भास आयली, उपरान्ते बरौंची भास. पुण हांतु मतभेद आसा. जायते वैज्ञानिकानि दाकयल्यां कि मनिसाली उलौवपाची शक्ति विकास पांवचे पिरथम तो चित्र रचून आपण्यालो विचार विकार प्रकट करतालो; आनी ह्य चित्रांसूनच आतांची लिपियो उत्पन्न जाल्यात. ही कल्पना खरी जावयेत पुण आज देखूं येंवचे लिपींचो आधार चित्रां न्हय. खंचेकी पुरातनकालाक हांकां चित्रां लागी संबन्ध आशिशल्लो जांवयेत.

आयचे लिपिमालेंतुलीं अक्षरां सगट यादृच्छिक प्रतीकात्मक म्हणु आमी फूडेचे निबन्धांत पळयलें मूं. एक चित्र अनी तांतु प्रकट जावचे आशया पसून आशिशल्लो नैसर्गिक संबन्ध लिपि आनी आशयाचे मद्दें ना. देखून आतांची लिपियो चित्रात्म म्हणचें खरें न्हय.

आज संसारांत आशिशल्या लिपींचे अध्ययन केल्यार लिपीक उलौंचे भासेचे लागी कसलो संबन्ध आसा म्हणु स्पष्ट जाता. भासेचे मुख्य घटकांक आधार करनु चिंतन केल्लेले भाषाशास्त्रियांनी लिपीचे थोडे प्रकार दाकयल्यात. भासेची मुख्य चार घटकां आसात – वाक्य, शब्द, सिलबल (Syllable) आनी वर्ण. एक पूर्ण वाक्याचे वा आशयाचे बदलाक एक लिपि चिह्न आसो; त्या लिपीक आशय लिपि (Ideographic Script) म्हणु नांव. चीनी लिपि असली खं. लिपीक आशयच आधार. उच्चारण कितेंय जावो अर्थ एकूच असतलो. चीनांत उलौंची भासो जायत्यो आसात; बरैलेलें वाचची रीति वेगवेगळी आसा; पुण लिपीन एकूच अर्थ स्पष्ट जातलो म्हण्टात. ही एक विशेष गजालि.

दुसरे प्रकाराची लिपि शब्दलिपी (Logographic Script). हांतु एक शब्दा बदलाक एक लिपिचिह्न आसतलें. +, –, ×, ÷, =, हीं

गणीत चिह्नां आसले लिपीचीं उदाहरणां. हांतुय चिह्न आनी अर्था मद्दें उच्चारणाचो कांयच संबन्ध ना.

तीसरे प्रकाराचे लिपीक सिलबिक लिपि ( Syllabic Script ) म्हण्टात. सिलबल म्हळ्यार उच्चारणाचे एक स्वतंत्र यूनिट. देखीकः ब्यूटिफुल (Beautiful) ह्या इंग्लीश शब्दांत ब्यू + टि + फुल अशी तीन सिलबल आसात. Pen हांतु एकच सिलबल आसा आनी Pencil हांतु पेन + सिल अशी दोन सिलबल. अशी उच्चारणाक आधार करनु एक बदलाक एक लिपिचिह्न अशिल्या लिपीक सिलबिक लिपि म्हणु नांव. जापानी भासेची लिपि असली खं. रोमींतुले & अनी नागरींतुलें ॐ असले लिपीचीं उदाहरणां.

आज संसारांतल्यो चटय लिपियो वर्णात्मक (alphabetic) आसात. हांतु उलौंचे भासेंतुले एकेक वर्णा बदलाक एक लिपचिह्न आसतलें. उदां: इंग्लीशांत Tin. ट् + इ + न् अशी तीनवर्ण आसात आनी एकेकवर्ण t + i + n अशी तीन अक्षरांय आसात. Pencil हांतु स वर्ण आनी स अक्षरां – प् + ए + न् + स् + इ + ल् = P + e + n + c + i + l आसात. अशी आयचे लिपीं पासून चिंतन केल्ले घडेर आमकां कळता कि चडय लिपींचो आधार उलौंचे भासेचे शब्द, सिलबल वा वर्ण आसात. देकून ह्यो लिपीयो उलौंचे भासेक आधार करनु मागीर आविष्कार केलेल्यो म्हळेल्यांत कांयच दुबाव ना.



# लिपीचो आविष्कार

उलवपाचो आविष्कार मनिषाले विकासाचो एक मुख्य पावडो म्हणु हांगा सांगलें. तशीच एक दुसरो पावडो लिपीचो आविष्काराचो लिपि जांवचे फुडे मनिषु उलौवनुच आशय विनिमय करतालो. एकल्यान उलौंचे आशय समाजतालें तेन्ना थांगा हाजर आसल्यांक मात्र. टेलिफोनाचो आनी रेडियोचो आविष्कार जाले परान्ते उलौंचे कितले कि दुर आयकयेत जालें. अनी टेपरिकार्डराचे सहायान उलैवप मागीर खंचेय समयार आनी खंचेय स्थानार आयकयेत जालें. हीं यन्त्रां आविष्कार जांवचे फुडे मनिषाले शब्दाची सामाजिक व्याप्ती भौ सीमित आशिल्ली. एक मनिस उलयतालो आनी थांगा त्या वेळार आश्शिले एदे मनिष आयकताले. मागीर कोणे तें आयकलें तांणी सांगून चड जन आयकताले.

अशी तोंडा उतरान सांगून सांगून आयकून आयकून सन्देश कळप म्हळेलें भौ परिमित मूं आसतलें. जाल्यार लिपीचे आविष्कारान ह्या स्थितींत व्हड परिवर्तन आयलें. एक मनिषान आपण्यालो संदेश बरौन दवरले तरि थांगा तावेळ ना आशिल्ले जायते जनाक मागीर तें वाचून समजूक जालें. ताजान मनिसाले संदेशाची देश-काल-परिमिति ना जाली. मनिषाले संदेशाक देशाचे आनी कालाचे परिमितींत सून सुटूक आशिल्ली शक्ति लिपींतुल्यान मेळ्ळी.

देखिक : सोक्रटीस विष पीवनु मरचे वेळार आत्माचे अमरत्वा विषयांतु मित्रां लागी उलयलोलो. तागेले एक शिष्यान तीं उतरां बरौन दवरलीं देकून आजीय आमी सोक्रटीसालो अमर संदेश वाचून खोस भोगतात; मरणान आमगेले आत्माक नाश जायना म्हळोलो विश्वास मनां घट्टि दवरनु जियतात; आनी मृत्यूक तण म्हणु लेकून कसलेय धीर साहसांत प्रवेश जातात.

बरौन दवरलेल्या पासूनच हें साध्य जालें. आमगेले वेद तोंडाचे अभ्यासान जायते पिळगेंतल्यान नाश पावनातलें रावलें खैं. लिपीचे

आविष्कारा उपरान्ते त्या ज्ञानाचो शाखोपशाखानि विकास जावनु भारताचे अमर पुरातन ज्ञान आज आमचे मुकार पावल्यां.

लिपीचें एक महत्व हें कि ताज्यान मनिषाले संदेशाची स्थल-काल-परिमिति ना जाली. मात्र न्हय लिखित संदेश दर पिळगेंतल्यान चड चड जावनु पुंजीभूत जालो. अशी ज्ञानाची अभिवृद्धि जाता गेली. आज लिखित भासेन मनुष्यवर्गाले संपूर्ण अनुभव संयम आमकां मेळ्ळा. अशी पळयल्यार लिपी मनिषाले सामूहिक संस्कृतीचें एक मुख्य उपकरण म्हळेलें व्यक्त जाता. लिपि ना आशिल्ली तरी ही आमगेली संस्कृतीच वाडना-आसली.

लिपीचो आविष्कार केदाणा जालो? ह्या प्रश्नाक सीदा उत्तर दीवप सरळ न्हय. इतिहासकारानि सांगचे प्रमाणे लिपि आविष्कार जावनु धा हजार वर्सां पुणै जालेलीं आसूका. पांच हजार वर्सां फुडे भारतांतु मोहंजोदरो मंस्कृतीक लिपि आसली. ताजे सुमार एक दोन हजार वर्सां पिर्थम सुमेरियन असीरियन संस्कृतींतुय लिपि आसली खें. एक सांगूक जायत : समाजांतुलें उत्पादन, वितरण आनी देणे-घेणे एक खास पांवड्यारीच लिपि जालेली. उलोनु ह्रीं कार्यां करूक जायना म्हळेली परिस्थिति जालेली. कृषि, व्यारु, उद्योग दंदां हें सगट सफल रीतीन चलौंचाक उलौची भास नपुरो. विचार विनिमयाक एक व्यापक आनी स्थिर रीति आवश्य जाली. तावेळीच एक प्रकाराचे लिपीचो प्रयोग सुरू जालोलो आसूका.

लिपी जाले उपरांते विचार विनिमय चड विस्तृत आनी व्यापक जालें मात्र न्हय; उत्पादन, वितरण, व्यापार, उद्योग आदान प्रदान हांतु सगट व्हड विकासूय परिवर्तनय जालें. बरपावळीक हाजान चड महत्व मेळ्ळें. उलौच्या पशीं बरौंचाक चड स्थिरता आयली. खंचीयं भास लिपिबद्ध जाली तेन्ना भासेचें स्वरूप स्थिर जाता. उलौंची भासेंतु जाल्या वरीचे परिवर्तन बरवपांत येना. बरौनु दवरचे शब्दाचो अर्थ आनी रूप स्थिर राबता आनी ताका व्यापकताय मेळता. कोंकणीचेच उदाहरण पळैयात. आज देवनागरी लिपीन कौंकणी बरौचाक सुरू केलेल्यान बरैलेली कोंकणी चड प्रदेशाक पसरता. बरौच्याचो अर्थ आनी स्वरूप स्थिर राबता. उलौंचे भासेचे स्वरूप गांवा कणकणे, व्यक्ति कणकणे भिन्न आसता. केवल उलौनूच

आसचे भासेंतु तें देकून परिवर्तन वेगीं वेगीं जाता. जाल्यार बरौंची भास चड स्थिर, व्यवस्थित, व्यापक आसता.

लिखित भासेंतु साहित्याचो विकास जांवचाकय हेंच कारण. सुंदर म्हणियो, वाक्प्रकार, अलंकार इत्यादि उलौंचे भासेंतूय आसात. 'जाल्यार त्या म्हण्यांक, प्रयोगांक, वाक्प्रकारांक स्थिरता आनी व्यापकता मेळूक लिखित साहित्य जाय.

लिपिबद्ध साहित्याक महत्व आसा ; म्हणु उलौंचे भासेचे महत्व ऊणे जायना. भासेचे स्थूलरूप उंलौंचेच. लिखित भासेचो आधार उलौवपंच म्हणु आमी ऊँच देकलें मूं. उलौचे सन्दर्भान, व्यवस्थित आसा. देखूनूच जायते काळ गेले घडेर लिखित रूप उलौंचे रूपांत थकून नितांत भिन्न जावयेत. तावेळ कितें जातलें? उलौंचे भासेक अनुसरून लिखित रूपाचें नवनिर्माण जातलें. भारतीय भासेंचो विकासा विशीं विचार केल्यार हें स्पष्ट जातलें.

संस्कृत भासेचे लिखित व्याकरणबद्ध रूपाचो आधार उलौंची भासच आशिल्ली. जाल्यार एद्यो शताब्दी उपरांते उलौंची भास स्वाभाविक परिवर्तना लागून ह्या लिखित भासें थाकून भिन्न जाली. तावेळ लोकभास लिपी बद्ध जाली. ह्या भासेक प्राकृत म्हणु नांव. बुद्धा कालाक जन भास लिखित संस्कृतां सून भिन्न आशिल्ली. भगवंतान जनाक तांगेले भासेनच उपदेश दिल्लो. तो उपदेश लिपिबद्ध जाल्लो तेन्ना संस्कृतांसून भिन्न एक साहित्य उत्पन्न जालें. मागीर असलेंच परिवर्तनान अपभ्रंश भासोच आधुनिक भासो जाल्यो. भासेंत असलें परिवर्तन सदांच जाता आसा; जाल्यारीय ह्या परिवर्तनांत बुडून राबल्या निमित्तान आमकां ताजो अनुभव जायना. शताब्दी उपरांतेच हें परिवर्तन अनुभूत जातलें आनी लिखित भासेंतु परिवर्तन हाडूक प्रेरणा दितलें



# अक्षरां कितलीं जाय?

फुडेचे निबंधांत आमी देकलें कि लिपीचे चार प्रकार आसात.(1) एक आशयाक एक अक्षर (2) एक शब्दाक एक अक्षर (3) एक सिलबळाक एक अक्षर (4) एक वर्णाक एक अक्षर. संसारांतल्यो चडीय लिपियो चौते तराच्यो. तांतु उलौवपांतल्या एकेक वर्णाचे बदल एकेक चिह्न आसतलें. असले लिपीक वणलिपि म्हणु नांव.

एक आदर्श वर्ण लिपि आमी उद्‌भावन करतात म्हणु आसो. त्या लिपीक कसकसले गुण जाय? वर्ण वर्णलिपींतु एक वर्णाक एकच अक्षर जाय. एक वर्णाक बदलाक दोन वा चड अक्षरां येतात तरि ती लिपि व्यवस्था आदर्श म्हणु सांगूक जांवची ना. उदा: इंग्लीश भासेचे रोमन लिपि व्यवस्थेंतु "क्" ह्या वर्णा बदल कसकसलीं अक्षरां आसात? Kind हांतु K, Cat हांतु C, Cnoir हांतु Ch, Quiet, हांतु Q अशी 'क्' बदलाक K, C, Ch, Q हीं चार अक्षरां आसात. ही व्यवस्था आदर्श लिपीक सर जालेली न्हय.

आनी एक उदाहरण : ष् ह्या वर्णा बदलाक कसकसलीं अक्षरं आसात? petition, decision, Fashion, permission, suspicion ह्या शब्दांतु क्रमान t, s, sa, ss, c, हीं अक्षरां 'ष्' ह्या एकच वर्णा बदल येतात. देखून इंग्लीशाची ही लेखन व्यवस्था खरी न्हय. आनी बरौंचे एकच अक्षराक उच्चारण एकच वे? न्हय. देखीक: arm, as, call, woman, mountain, at ह्या शब्दांत 'a' चें उच्चारण कितलें भिन्न भिन्न आसा! एक आदर्श लिपींतु एक वर्णाक एकच अक्षर जाय. आनी एक अक्षराक एकूच उच्चार जाय. हाका गणिता भासेन one - to - one correspondence म्हणतात. ज्या लिपींतु ही व्यवस्था आसा ती आदर्श आसतली. जाल्यार संसारांतु आज चलची एकीय लिपि ह्या दृष्टिन आदर्श म्हणु सांगचाक जायना.

एक आदर्श लिपीक जाय जालोलो आनी एक गुण हो कि ज्या क्रमान उलौवपांतु वर्ण येतात, त्याच क्रमान बरौपान्तु अक्षरां येवूंक जाय. उदा: self

ह्या शब्दाचे उच्चारणांतु ज्या क्रमान s + e + l + f (स् + ए + ल् + फ्) हे वर्ण येतात त्याच क्रमान बरौंचो अक्षरां आयल्यांं. Pin, he, send, superintendent, top असले शब्दांत वर्णक्रमाक अनुसरून अक्षर क्रम आस.

भारतीय भासेंचे नागरी लिपि व्यवस्थेंतु "कर्म" हो शब्द पळेयात हांतु वर्णक्रम क, र, म, जाल्यार बरौंचो क्रमा पासून भौ फरक आसा. देखूनच असले शब्द बरौंचे कठिन आनी बरौच्यांत जायते फतां चुकीय येवयेत. आतां परयान सांगल्यांतु थकून आदर्श लिपीचे तीन गुण व्यक्त जातात –

(1) एक वर्णा बदल एकच अक्षर.

(2) एक अक्षराक एकूच उच्चार.

(3) वर्णक्रमाक अनुसरूनूच अक्षरक्रम.

ह्या विचारांक आधार करनु चिंतन केल्यार स्पष्ट जातलें कि एक भासेंतु कितले वर्णा आसात लिपींतु तितलींच अक्षरां जाय. एक भासेंतु चाळीस वर्ण आसात जाल्यार त्या भासेचे लिपींतु चाळीस अक्षरां आसूंक जाय. तावेळ प्रश्नु हो उदेता कि भासेंतु वर्ण कितले आनी ते कसकसले म्हणु कशी कळतलें? चोवयां.

वर्णाक ओळखूची एक शास्त्रीय पद्धाति आसा. कान्, गान – हे शब्द पळेयात. पयले शब्दांत क् + आ + न् अशी तीन वर्ण; आनी दुसरे शब्दांत ग् + आ + न् अशी तीन वर्ण. पयले शब्दांत "क्" ज्या क्रमान ज्या स्थानार आयल्यां त्याच स्थानार दुसरे शब्दांत "ग्" आयलां. आनी केवल तो फरकच शब्दभेदाक कारण. क्, आ, न, ग् ह्या वर्ण निरर्थक. हे वर्ण विशेष क्रमान आयले तेन्ना त्या वर्णक्रमांत अर्थ आसा आनी "क्" चे स्थानार "ग्" आयलें, तरि अर्थभेद जालो देखून क्, ग्, हे वर्ण स्वयं सार्थक न्हय जाल्यारीय तांच्यान अर्थभेद प्रकट जाता म्हळेलें स्पष्ट जाता मूं. अशीच कालु – गालु, काळी – गाळी, ह्या सार्थक शब्द – जोडे विश्लेषण केल्यारीय क् – ग् ह्या वर्णां पासून जांवचो अर्थ – भेद स्पष्ट जातलो. भास आशयविनिमयाचें साधन. ऊंच सांगल्ले शब्दांतु क् – ग् ह्या वर्णभेदान मात्र आशयभेद जाता देखून क् – ग् अर्थभेदाक कारण म्हणु सांगयेत. ऊंच आमी देखलेले शब्द – जोडे कोंकणी भासेचे. देखून कोंकणींतु

क् – ग् हो वर्णभेद आशयाचें विनिमयाक हेतु जावनु आसा.

अशीच सात - हात, साडि - हाडि, सून - हून - ह्या अर्थभेदक शब्द - जोडयांतु स - ह हे वर्ण अर्थभेदाक कारण जातात. लान - रान, लाक - राक, लास - रास ह्य अर्थभेदक शब्द जोडयांतुल्यान ल - र हे वर्ण अर्थभेदक म्हणु समजयेत.

पापाय फापाय - हांतुल्यान प, फ
फळ बळ - हांतुल्यान फ, ब
फार भार - हांतुल्यान फ, भ
भास मास - हांतुल्यान भ, म

ताळ दाळ, तान दान, ताट दाट, तार दार – हांतुल्यान त, द असले वर्ण स्पष्ट जातात. असले शब्द जोडयांक न्यूनतम जोडे म्हणतात. ह्य रीतीन एक भासेंतुले अर्थपूर्ण शब्द जोडे विश्लेषण करनु त्या भसेंतुल्या आशयविनि मयाक हेतुभूत आसचे वर्णांक ओळखू जातले.

न्यूनतम शब्द. जोडयांतु वर्णभेदान जांवची अर्थभेदाची व्यवस्था सगट भसेंतु समान न्हय. देखीक: संस्कृतांतु ल - ळ ह्या वर्णां निमित्ति अर्थ भेद जायना. कालिदास काळिदास जावयेत. ललित लळित जावयेत. ल - ळ वेगवेगळे अर्थभेदक वर्ग न्हय. कोंकणींतु तरि हांचान अर्थभेद जाता. मेल्लो - मेळ्ळो, पोवलीं - पोवळीं, गाल - गाळ, देवली - देवळी पावली - पावळी ह्या न्यूनतम जोडयांतुल्यान कोंकणींतु ल - ळ ह्या वर्णनि अर्थभेद जाता म्हळ्ळेलें स्पष्ट दिसता.

आनी एक उदाहरण: मलयाळम भासेंतु റ, ര हे वर्ण वेगवेगळे आसात. हाजान अर्थभेद जाता. കറ - കര, പറക്ക - പരക്ക വറ - വര, ഉറക്ക - ഉരക്ക, ह्या शब्द जोडयां पासून റ - ര हांचान जांवचो अर्थभेद कळता. असलो भेद कोंकणी, हिन्दी, मराठी इत्यादि आधुनिक भारतीय आर्यभासेंतु ना. "र" वर्णाचे उच्चार जायते तरा आसात जाल्यरीय तांचान अर्थभेद जायना.

कोंकणींतु म - म्ह हे व्यत्यस्त वर्ण आसात. माव - म्हाव, मेळ - म्हेळ

